# काळखांतले सूर्य



गणाधीश रामचंद्र प्रभुदेसाई

# काळखांतले सूर्य

गणाधीश रामचंद्र प्रभुदेसाई




गोवा कोंकणी अकादेमी

# काळखांतले सूर्य
(कविता)

कवी :
गणाधीश प्रभुदेसाई

प्रकाशन क्र.: ४४

© गोवा कोंकणी अकादेमी

उजवाडावपी :
ज्यॉर्ज द आब्रेव
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
बोरी, फोंडें ,गोंय.

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स
माशेल, गोंय.

मुखचित्र :
गौरीश वेर्णेकार

उजवाडावणी : मार्च २००२

मोल : ४०/- रुपया

# Kalkhantle Surya
(Poetry)

POET :
Ganadhish Prabhudesai

PUBLICATION NO. : 44

© GOA KONKANI AKADEMI

PUBLISHER :
George de Abreu
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Borim, Ponda,Goa.

PRINTER :
Swarnamundra Prints,
Marcela, Goa.

COVER :
Gourish Vernekar

PUBLICATION : March 2002

PRICE : Rs. 40/-

पयलो चंवर येवजणेंतलें अकादेमीचें प्रकाशन

आयज मेरेन हांवें जांकां
कांयच दिलें ना, त्या म्हज्या
मोगाळ आईक आनी बाबाक.

– गणाधीश

# मांडावळ

# झाड जालाच, ताचो म्हारूख जावचो!

उजवाड दिवपी उजवाडांतले सूर्य आमी सगल्यांनीच पळयल्यात;पूण 'काळखांतले सूर्य' ही गणाधीशाची संकल्पना म्हजे तकलेंत तरी नवो उजवाड घालपी. चडशा त्याच सामाजिक – सांस्कृतिक संदर्भाक धरून ताणें रचिल्ल्यो कविता उजवाडाचो सोद घेयत गोवा कोंकणी अकादेमीवरवीं साहित्य–संवसारांत देंवतात, देखूनच सुर्वेकूच गणाधीशाक परबीं भेटयतां.

गणाधीश रामचंद्र प्रभुदेसाई हो म्हजो काणकोणच्या सरकारी उच्च माध्यमिक विद्यालयांतलो गुणी आनी हुशार विद्यार्थी. ताचेपरस राष्ट्रीय सेवा येवजणेंतलो राष्ट्रीय वृत्तीचो निश्ठावान स्वयंसेवक,आपवावुरपी. बापायसयत घरच्यांची सामाजिक – सांस्कृतिक – शिक्षणीक फाटभूंय ताका लाबल्या. 'राष्ट्रीय सेवा येवजण' च्या शिबिरांनी विद्यार्थ्यांचेर श्रमसंस्कारांवांगडाच सामाजिक – सांस्कृतिक – शिक्षणीक संस्कार करतना गणाधीशाक खेरीत भाशेन घडटना आनी वाडटना सामकें लागींच्यान पळोवपाची संद म्हाका मेळ्ळ्या आनी ताचे मदलो म्होंवाळ वाणीचो आनी सहज अभिनयाचो कलाकार, विचार करपी आनी विचार दिवपी चिकित्सक वृत्तीचो पत्रकार, समाजाच्या सुखदुख्खांकडेन समरस जावन समाजाक समजून घेवपी समाज वावुरपी आनी विशेश म्हळ्यार जाणट्यांक फावो तो मान दितनाच गरज थंय आपलें मत आग्रहान तितलेंच नमळायेन मांडपी तरणाट्यांच्या फुडारपणाचे गूण आशिल्लो गणाधीशा मदलो तरणाटो फुडारी हांवें तेन्नाच पारखिल्लो, देखूनच अशा ज्या कांय भुरग्यांच्या सांगातान वावुरतना आपलेमदल्या साहित्यसेवेच्या गुणांक पोसवण दिवपाचें काम सराकडल्यान जालां अशें जांकां मनापसून दिसता, तातुंतलो एक गणाधीश

तुमी उदक घालीत रावात
ताचें केन्नायतरी झाड जातलेंच

अशें म्हण्टा, तेन्ना 'झाड जालाच, ताचो म्हारूख जावचो' अशी म्हजी आशीर्वादपर प्रतिक्रिया उक्तायलेबगर म्हज्यान रावं नज जाता!

गणाधीशाची कविता ही सामाजिक विशायांवेली सामाजिक – सांस्कृतिक आशयाची कविता. मात्त ती प्रचारकी जावची न्हय हाची जतनाय तो घेता आनी हांगा तोच कलात्मकतेचो, काव्यात्मकतेचो अणभव वाचकांक आयलेबगर रावना. देखीक,

उजवाडाक सोदीत सोदीत
ते वयर गेले काळखांतल्यान
कोणाकूच तें खबर ना
ते तर जाले काळखांतले सूर्य
कोणेंच ते जाणलें ना! (काळखांतले सूर्य)

तेचपरी,

कट्टीची अगडाय
पोटाची खोलाय
पांयांतले घाय
अशेंच चलतलें काय? (कट्टी आनी पोट)

थळाव्या राष्ट्रीय येवजणेच्या श्रमसंस्कार शिबिरांसयत राष्ट्रीय स्तरांवेल्या विंगड विंगड शिबिरांतलो

आनी यात्रांतलो, समाजसेवेचो आनी राष्ट्रीय एकचाराचो संस्कार सहज पचयिल्ल्यान गणाधीशाची कविता समाजांतल्या वर्सासंकीनी चिड्डल्ल्या, दाबिल्ल्या घटकांचीं शोशण आनी कल्पनेंभायलीं दुख्खां तरीय जगपाचो हावेस घेवन येता. मात कवी ह्या घटकांक प्रचाराचें साधन म्हूण वापरना, प्रतिकात्मक रुपान तें मांडटना व्यंग्यात्म शैलीचो जाणीवपूर्वक वापर करता आनी समाजाक पावोवपाचो संदेश मेजक्या उतरांनी पावयता. देखीक,

पूण
भाटकारा,
ताच्या खांदावेले नाल्ल पळोवं नाका
ताचे काश्टेची पर्वा कर
ताकाय एक भाट घेवपाचें आसा. (पाडेल्या)

तेचपरी,

खीणभर तुमी म्हाका पोशेतात
आपलो पुराय शेक गाजयतात
पूण तेच तुमी
केन्नाच धोतरां वयर काडूंक नाशिल्लेवरी
म्हजेकडेन बोटां दाखयतात (खीण – कोंडी)

गणाधीश सेवा मंच संस्थेत वावुरला, नवनिर्मणेचो हावेस बाळगून बाबा आमटेसारक्या म्हान समाजसुधारकाच्या वावराचे प्रेरणेन जल्माक आयिल्ल्या 'नवनिर्माण अभियान, गोवा' संस्थेंत वावुरता. सभावीकपणानूच गोंयची अस्मिताय, पर्यावरण, नवनिर्माण आदी गजालींचें पडबिंब ताच्या कवितांनी पडिल्ल्याचें जाणवता.

'तांणी येवन कितल्योच खुटयो मोडल्यो कितल्योच खुटयो जोडल्यो' उपरांत 'कितल्याशाच तेंपान आतां मात आमी जागे जावन धांवपाक लागल्यात कोट घट्ट धरून नागडे जावपाच्या भंयान.' हे उकतें सत्य मांडून 'खुंटी' कवितेंत कवी आमकां जागयता. जाल्यार 'लोकशाय' ची चलिल्ली विटंबना पळोवन समाजान कितें करपाची गरज आसा तें कवी थोमण्यांनी खुणायता.

लोकशाय, लोकशाय, लोकशाय
तांणी
तांचेखातीर घेतलें
तांचेंच राज्य
तांकां जें जें जाय
दिता ती लोकशाय

हो कवी तरणाटो कवी; देखून ताच्या कवितांनी मोग आयलो ना जाल्यारूच अजाप! मात्त हो मोगूय खेरीत!

जेन्ना हातार तुज्या
पाचवो सैम फुलता
तेन्नाच गो तो खरो
तुज्या कपलावेलो अस्तंतेचो सूर्य (मोगी)

असो अस्वस्थताय निर्मुपी कवीचो मोग. 'त्या बाविल्या सुकिल्ल्या ओंवळांक अजून तुगेल्याच मोगाचो वास येता' अशें 'मोगा वास' कवितेंत मोगिकेक सांगपी कवी केन्ना केन्ना मोगाची 'मैफल' वाचकांकूय याद उरपासारके रितीन रंगयता.

मैफल रंगांत आयिल्ल्या वेळारच
भैरवी गायल्यार
मैफल सगल्यांक याद उरता खंय
भैरवी ही गायतां
तुज्या म्हज्या मोगाची

पुराणीक आख्यानां आनी इतिहासीक कथांचे विशय आनी संदर्भ घेवन नव्या सामाजिक – सांस्कृतिक आशयांचो साजशिरंगार तांचेर चडोवन अभिव्यक्ती करपाची जी चाल हालींचे कवितेंत रूढ जाल्या, ताका पुराणीक, इतिहासीक गजालींची मिश्कील रितीन चिकित्सा करपी गणाधीश तरी आडवाद कसो आसत?

भांगराचीं घरां बांदून
सगले हांगा रावण जाले!
तातूंत भांगर भरपाखातीर
सगले राम शेणले रे! (सगले राम शेणले रे!)

अशें कडू सत्य तटस्थपणान मांडपी कवी गणाधीश 'कृष्ण' लीलांचो हिशोब लेगीत न्यायदानाचे तागडेवरी निपक्षपातीपणान मांडटा.

कोणाल्या कृष्णान आयज
राधेक लायला पिशें
खेंयचे खंयचे सुदामे
पीत बसल्यत पेजे निशें (कृष्ण)

'काळखांतले सूर्य' घणघणीत उजवाडांत वाचकांच्या नदरेमुखावेल्या क्षितिजाचेर हाडपाचो हेत म्हजेमुखार अजिबात ना, तर नवोदीत कवीची थोडीभोव तुस्त–तोखणाय करतनाच ताचे कवितेची पत सामकारा हाडपाचो हो एक ल्हानसो यत्न.

निकतोच उदेता,देखून ताका वयर सरपाक भरपूर वाव आसा, संद आसा. समाजात भोंवता घुंवतना मेळिल्ले उतरावळीवांगडाच आनी समाजावांगडा वावुरतना मेळिल्ल्या अणभवांवांगडाच नेमान भरपूर वाचन करून भाशेची गिरेस्तकाय आनी अणभव वाडोवप ह्या कवीक शक्य आसा. हो वावर जिणेचें एक आंग समजून ताणें करूंक जाय.

गणाधीश सद्या एक जैतवंत पत्रकार म्हूण वावुरता. हो वेवसाय आपले साहित्य निर्मणेचें एक बेस्स बरें माध्यम म्हूण ताच्यान वापरूं येता, न्हय ताणें तशी संद घेवची, ते नदरेन वावुरचें आनी झाड जालाच ताचो म्हारूख जावचो!

श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय. — कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

# उपकारी आसां.

नमस्कार.

'काळखांतले सूर्य' हो म्हजो पयलो वयलो कवितां-झेलो तुमच्या हातांत दितना म्हाका खूब खोस भोगता. जेन्ना कविता वाचूंक आनी बरोवंक लागलों तेन्ना दिसतालें आमचेंय अशेंच पुस्तक केन्ना येयत काय? हें शक्यच ना!... पूण आयज गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवजणेखाला म्हजो हो कवितां- झेलो प्रसिध्द जावंक पावलो आनी एक व्हड सपन साकार जालें.

कवितेचें शास्त्र, तंत्र वा हेर नेम म्हाका कांयच खबर नात. कोंकणी कवितांचें हांवें भरपूर वाचन केलां अशेंय ना. जे शब्द कवितांच्या रुपान मनांत आयले ते बरोवन काडले.

हांवं कोंकणी कविता बरोवपाक आनी म्हजो हो कविता संग्रह येवपाक म्हजे सर जे आयज गोवा कोंकणी अकादेमीचे सहायक सचिंव म्हूण काम करतात, ते भौमानेस्त कमलाकर द. म्हाळशीसर हेच जापसालदार आसात. तांच्या रिणांतल्यान मुक्त जावप म्हाका शक्य ना. म्हूण सर, हांव इतलेंच म्हणटां -

*तुमी उदक घाल्ले बियेक,*
*आयज एक कोमरी आयल्या*
*तुमी उदक घालीत रावात*
*ताचें केन्नायतरी झाड जातलेंच*
*पूण त्या झाडाची तेंगशी*
*तुमच्याच पांयांचेर आसतली.*

म्हज्यो नव्यो कविता आयकुपाचो आग्रो करपी कवी सुदेश शरद लोटलीकर हांच्या मार्ग दर्शनाचोय हांगा उल्लेख करपाकच जाय.

म्हजो हो कवितां-झेलो उजवाडा हाडपाक आपल्या पयलो चंवर येवजणेचो आदार दिल्ले खातीर गोवा कोंकणी अकादेमीचो तशेंच गरजेचें सहकार्य केल्ले खातीर अकादेमीचे अध्यक्ष भौ. उदयबाब भेंब्रे आनी अकादेमीच्या सगल्यांचो हांव आभारी आसां. प्रस्तावना बरोवन म्हाका आशीर्वाद दिल्ले खातीर भौ. म्हाळशीसरांचो हांव मनांतल्यान उपकारी आसां. आपल्या धंद्याचो व्याप सांबाळून फकत एका दिसाभितर म्हज्या कवितां - झेल्याखातीर सोबीत मुखपृष्ठ काडपी म्हजो इश्ट गौरीश वेर्णेकार हाकाय हांव देव बरें करूं म्हणटां.

'काळखांतले सूर्य' उजवाडाक आयलो. ह्या कवितां - झेल्यांतल्यो कविता तुमकां भावतल्यो आनी तुमी म्हजे फुडारांतले साहित्य निर्मितीखातीर म्हाका आशीर्वाद दितले अशी आस्त बाळगितां.

देव बरें करूं.

गणाधीश रामचंद्र प्रभुदेसाई
बोरूस, पैंगीण, काणकोण

# काळखांतले सूर्य

काळखांत उबे रावन तुमी,
गळ्यांत घालून दुखां हार
माथ्यार घेवन त्रासां हाल
सोदीत रावले उजवाडाक.

पांयांपोंदा माड्डयत गेले
कांटे फातर बागयत गेले
रगता उदक करीत रावले
काळीज सामकें झरयलें.

उजवाडाक सोदीत सोदीत
जीण आपली सोंपयली
रावन तुमी काळखांत
सगल्यांक उबे केले उजवाडांत.

उजवाडांत सोदले आमी
आमच्या आवय बापायक पुताक
पूण तांचो थाव खंयच लागलो ना

उजवाडाक सोदीत सोदीत
ते वयर गेले काळखांतल्यान
कोणाकूच तें खबर ना
ते तर जाले काळखांतले सूर्य
कोणेंच तें जाणलें ना !

# सुस्त

गोंयच्या तरण्या गोंयकारांनो
गोंय आसा तुमच्या हातांत
म्हणूनच हांव सांगतां तुमकां
सुस्त बसून जेवनाकात ताटांत

आयचें काम आयज करात
जायत जाल्यार फायचेंय करात
आयचें फाल्यां दवरूं नाकात
सुस्त न्हिदून रावूं नाकात

जग फिरून पावलें चंद्रार
तूं कित्याक फिरता जगार?
जिणेचो तुजे उपेग कितें ?
सुस्त बसल्यार जातलें कशें?

काय बरी पाचवी चादर
घेवन न्हिदल्या आवय आमची
कित्याक तुमी ओडून काडटात ?
सुस्त बसून जगपाक सोदतातं ?

खावपाख़ातीर जगप न्हय
तर जगपाखातीर खावप
म्हणूनच हांव सांगतां तुमकां
सुस्त बसल्यार वायट आमकां.

# तुजेखातीर

जल्म तुवें घेतलो एका
मोगाळ आवय बापाय पोटां
फोडा परस तांणी जपलो
काडून चिमटे आपल्या पोटा
भोंवऱ्या लक्ष म्होंवार जशें
तांणी लक्ष दिलें तुजेर
उदक सोडून आपल्या सुखार
सगलीं सुखां ओतलीं तुजेर
उदक पियेवन रात दीस
काडले कशेय एकेक करून दीस
तुका मात काडूंक दिले नात
तुज्या ल्हानपणांत दुख्खी दीस
तुजें तांणी केलें पालन भरलें पोट
येवजून आपलें म्हातारपण
हो आमचो एकुलतो एक
सुखान घालयतलो आमचें म्हातारपण
तीं जालीं आतां म्हातारीं
तूंच म्हळ्यार तांचो जीव
पूण कित्याक जावन यम तूं
घेता तांचे जीव
तांणी तुजेर केल्ले उपकार
तुवें केन्नाच विसरूक जायना
तुजीं आवय बापूय म्हण तरी
तुवें तांकां पयस करूंक जायना.

# पाडेल्या

तुमी अशें म्हणूं नाकात
आमी तुमच्या माडाच्यो पेंडी पाडचेच नात
जेन्ना तुमी काश्टी मारताले
ते काश्टेचें खाणू करून
तुमी आमच्या माडाच्यो पेंडी तोडल्यात
घडये तुमकां याद ना जायत
आतां तुमी काश्टी सोडून
लांब कालसांवां घालतात

तुमी भितात
तुमच्या कालसांवाचो देठ सुटत म्हूण
तुमी काश्टी मारताले
तेन्ना माडार पावस पडून लेगीत
तुमी थंय मल्लखांब करताले
आतां तुमच्या कालसांवांक लागून
वयर काळोख जाल्यार
तुमचे पांय माडार धरनात

आयज तुमचे खातीर आमी
माडाक खापां मारून दवरल्यांत
तरी वाऱ्याचें निमित्त काडून तुमी
पेंडी तोडपाक फाटीं सरतात

तुमी आतां लांब कालसांवां घालतात
आमकां खूब बरें दिसलें
तुमी आतां भाटय घेतलां

पूण तुमकां तुमच्या माडाच्यो पेंडी तोडपाक
कोणच मेळनात
परतून खाणू पांयांक घालपाक
तुमच्या पांयांक लज दिसता
तुमच्या कपलाच्यो आटयो पळोवन
कोण तरी तुमच्या म्हन्यांत येतात
तुमच्यो पेंडी झडयतात

नाल्ल अडकतगीर
अवल नाल्लाची रास पळोवन
तूं कांचवेता
पाडेल्याक नाल्ल दितना
तूं परवंता

तो नाल्लाक शीवड काडटना
तूं ओठ दांबता
तो आपलो दिसवडो घेवन वतना
ताचे भरिल्ले दोनूय खांदे पळोवन
तुका तुजो कोठार रिकामो दिसता.

पूण
भाटकारा,
ताच्या खांदावेले नाल्ल पळोवं नाका
ताचे काश्टेची पर्वा कर
ताकाय एक भाट घेवपाचें आसा.

# मरण सांवळ्यो

ती वाट
आनी
"ते" वाटेवेले आमी आनी तुमी
तेन्नाचो "तो" सूर्य
तेन्नाच्यो तुमच्यो बोबो

सगल्यांचो इतिहास घडयल्यार
तुमी हारले
आमी जैत मेळयलें
पूण आमचे ते
एक जैत हरिल्ले

तेन्नाच्यो त्यो आमच्यो सांवळ्यो
आनी तुमच्या दोळयांत दिसपी
त्यो मरण सांवळ्यो . . .

तुमच्या बोंबले देठांतल्यो बोबो . . .
आयज आमकां याद जातात

पूण तेन्ना
तुमचें कांयच आयकनासतना
आमी "सुर्याक" सोडोवन हाडलो
आयज तोच सूर्य आमच्या बोडार बसला
सुर्याक गिराण लागलां
ताचो दिसानय काळोख पडला .

आनी आयज आमच्यो सांवळ्यो पळोवन
तुमच्या मरण सांवळ्यांची याद जाता

धन्य तुमी
आनी
धन्य तुमच्यो बोबो .

# मरणसुख

मरणाचें सूख भोगपाक
मरणाची संवय आसची लागना
जिणेची वीट येवपाक जाय

मरणाक चिरंजिवी दवरपाक
मरणसुख हें सगल्यांक भोगचेंच पडटा
आतां हांगा
सावित्रीय ना आनी सत्यवानय ना
आनी खंयूय आसलोय जाल्यार
यम कोणालेंच आयकून घेना

दुसऱ्याचीं सुखां पळोवन
दर एकल्यान दुख्ख भोगलाच
पूण मरण सुखाचें मात तशें नासता
हें सुख कोणाकच नाका आसता
मरणाची संवय  नासतनाच
सगल्यांक ताचो अणभव आसता

पूण मरणसुख हें सगल्याक
घेवचेंच लागता ∙

# सगले राम शेणले रे!

जोडटले रे जोडून गेले
आमी मात मोडत रावले
आमी मोडले देखून
तांकां जोडपाक गावलें

मागतले रे मागून गेले
आमी तांकां दियत रावले
पांच वर्सांनी तांकां दिल्यार
आमकांय कितेंय सुटटा रे

पडटले रे पडून गेले
आमी मात पाडयत रावले
आतां आमीय बसतले रे
फाटल्यान "कोणें" कदेल काडल्या रे

भोंवतले रे भोंवन आयले
आमी मात बसूनच रावले
आमच्या खुस्तार तांणी
कितल्या जाणांक नागडे केले

भांगराचीं घरां बांदून
सगले हांगा रावण जाले!
तातूंत भांगर भरपाखातीर
सगले राम शेणले रे!

# जितीं कवनां

तुमी पयशे जोडपाचें कितें चिततात?
पयशे मोडपाचें पळयात
मागीर आपशींच पयशे मेळटात

तांणी तुमचीं नांवां वगडावपाचें चितिल्लें
आपलींच नांवां वगडावन बसले

तुमी दात ओंठ चाबून
तांच्या बोल्साकडेन कित्याक पळयतात?
तांच्या हाताचीं खिणां पळयात

तांचे सारके जातले जाल्यार
न्हिदून सपनां पळयनाकात
जागूनच सपनां तयार करात

तुमी माऊंट एव्हरेस्टावेल्यान
सकयल उडी मारपाचें चितात
निदान माऊंट एव्हरेस्ट
चडूंक तरी शकतले

अभिमन्यूक वीर जावपाक
चक्रव्यूहांतल्यान भायर येवपाची
गरजच नासली
तो भितर मरूनय
वीरच जालो !

# खुंटी

तांणी येवन
कितल्योच खुटयो मोडल्यो
कितल्योच खुटयो जोडल्यो

आमच्या खुटयां म्हच्यांत
तांणी आपल्यो खुटयो मारल्यो
आनी सगल्यो खुटयो आपल्योच केल्यो

आमी पिशे कशे स्वताक शाणे समजून
तांचे कडेन पळयत रावले
आमी सगल्यांनी आमचे कोट हँगराक लायले

कोट खुटयांक लावपाचे आमी सोडलें
हातुंतूय तांणी सगल्यो खुटयो
आपल्यो केल्यो

आतां ते पर्थून हात वयर व्हरून म्हणटात,
खुटयां म्हच्यांतली वणतय आमगेलीच
आमी पर्थून एकदां वोगीच रावल्यात

आमी म्हळें,
आमचे कोट हँगराक लावन कपाटांत दवरतले
वण्टीची गरजच ना.

आतां ते पर्थून म्हणटात.
तो हँगराक लायला तो कोटय आमगेलोच

आतां मात आमी जागे जावन
धांवपाक लागल्यात
कोट घट्ट धरून
नागडे जावपाच्या भंयान.

# घोडो

ह्या रस्त्यावेल्यान
अश्वमेध यज्ञाचो घोडो गेला
कोणेंच ताका आडावंक ना

घोड्याची नदर
लव – कुशाचेर पडटा
घोडो सगलोच चिघळता
घोडो थंयच्यानच
वाल्मिकीक आपयता

वाल्मिकी लव – कुशाक आपोवन व्हरता
घोडो सगल्याक फिरून
परतो येता
अश्वमेघ यज्ञ जैतवंत जाता

लव – कुशाक
रामायण गांवपाशिवाय
गत्यंतरच नासता .

# झाड आनी फळ

वयलें झाड गेलें उसळून
थंय दिशिल्लें, पावस येवचो ना म्हूण
पूण उसळून गेल्ल्या झाडाचे पुण्यायेन
ताच्या मुळांच्या "पांचय खांद्यांक"
कोमऱ्यो फुटिल्ल्यो

काळांतरान त्या कोमऱ्यांच्यो
पांच खांदयो जाल्यो
पांचय खांदयो एकेच दिकेन वचपाक लागल्यो.

आनी
आतां त्या पांचय खांद्यांचीं पांच झाडां जाल्यांत
पांचय झाडां पावस दितात
एकाच सारकीं

लोकांक तातूंत कितलेंय भिजल्यार थोडेंच दिसता
त्या पांचय झाडांचीं फळांय एकच सारकीं
फकत तांचे रंग वेगळे, रुची वेगळ्यो

पूण फळ तेंच
जें उसळून गेल्लें झाड दितालें.

# मोर

हो मोर नाचचे पयलींच
हांगा पावस पडटा
देखून मोर
नाचपाचेंच विसरून गेला

हो मोर नाचलो तरी,
हांगा पावस पडुंकूच ना
देखून मोरान आपलें नाचप
सोडलेंच ना

हो मोर नाचून गेलो
हांगा पावस पडलोच ना
देखून मोराचीं पावलां
हांगा लागलींच नात

हो मोर नाच करना
हांगा पावस दाटून येता
देखून मोर नाच सोडून
पावसाचीच वाट पळयता .

# गुपीत

हें धव्या कपड्या भितरलें गुपीत
धव्या कपड्या भितर
कितें आसा? कोण आसा? कोणें घाला?

हे सगलें खबर आसुनूय
खबर नाशिल्ल्येवरी करप
हाकाच गुपीत म्हणटात

कोणा कोणालीं नांवां
गुपीत दवरून
चलिल्लें हें गुपीत

आनीक गुपीत करतल्यांचींय नांवां
गुपीत दवरून
गुपीत गुपीतच दवरपाचें
हेंवूय एक गुपीत

एकमेकांकडेन बोट दाखयत
सगल्यांक गुपिताचे धनी करपाचें
हेंवूय एक गुपीत

आनी अकस्मात गुपीत आयकतना
सगलें फुटून
तातुंतलें पील भायर सरतगेर
ह्या गुपिताचे धनी कोण
हें सगल्यांक कळटलें

पूण पील भायर सरला
हेंवूय एक गुपीतच दवरतले
आनी हें सगलें करतना
गुपिताचे सगले धनी
हे धर्तरेवेले गुप्त जातले

तांच्या मड्यांचेर आनी थड्यांचेर
फुलां घालपाबगर
आमकां गत्यंतरच नासतलें!

# जैत

दोळ्यांतल्यान आयलेलीं
दुकां पुसपाक
हांवें ह्या उगड्या हातांक
पुराय मेकळीक दिल्या

आतां म्हज्या हातांक संवय जाल्या
दुकां पुसपाची

पूण
दोळ्यांक मात वीट आयल्या
दुकां झडोवपाची
आतां हांव ह्याच हातांनी
दुसऱ्याचीं दुकां पुसतां

आनी अकस्मात पावसाची दडक येवची तशी
दोळे परतून ओकपाक लागतात

आनी थंय एक नवें पर्व सुरू जाता
दोळ्यांचेर आनी दुकांचेर
आमी पुराय जैत जोडला .

# खेळ

हो खेळ सदां अर्दकुटोच आसता
खेळाचो आरंभ केन्नाय जावं येता
फकत हातावेल्यो आडयो
आनी कपलावेल्यो आटयो
हाचें गणित सुरवेक मांडचें पडटा

आतां आमी खेळूंक सुरवात करुंया
ह्या खेळांत तूं फकत तिब्या धनी
घे हातांत कट्टी
ते कट्टेर एक नदर मार
खोलाय दिश्टी पडटा?
ती खोलाय आतां भरून काडपाक जाय
मार पावलां फुडें

कट्टेक भरती आयली म्हूण तूं कांचेवं नाका
कट्टेक सुकती आयली म्हूण
खेळ अर्द्यारूच सोडूं नाका
ह्या खेळांत आयज मेरेन
कोणाकच जेत मेळिल्लें ना
तुकाय तें मेळचें ना
हें सत तुजे कट्टेच्या खोलाये इतलेंच
खोल आसा

कट्टेच्या पोंदाक हात आसा मेरेन
हो खेळ चालूच उरतलो
कट्टी आनी हात

हांचें गणित केले उपरांत
बाकी जेन्ना शून्य येता
तेन्नाच हो खेळ सोंपता

तसो हो खेळ सोंपच ना
तुमी बाकी शून्य दवरतगेर
गणित फुडें वचचें ना
देखून हो खेळ सोंपोवचो पडटा

मात एकच खरें
कट्टी आनी हात
हांच्या खेळामदीं
नव्या खेळाची निर्मणी जावंकूच जाय.

# आमी

हय
आमी रगत सांडटले
हें हांगा जावचें ना
अशें आमी घडये म्हणिल्लें जायत
आमचें रगत पावणेर काडिनात जायत
पूण आमी रगत जाय तशें
पावणेर काडटले
कोणय पावणी कितलीय चडयात
पावतोसा मात आमीच करतले
कितलेंय जाल्यार आमचेंच रगत तें

आमच्या आंगणात फिरंग्यांचो धिंगाणो
आमी खेळपाक दिवचे नात
रगताचो थेंब आसा मेरेन
आंगण आमचें सोडचे नात
घुमट थापेक हातान मेळ्ळयार
फिरंग्यांचो हात मात सोडचे नात
कितलेंय जाल्यार आमचेंच आंगण तें

तुमचेखातीर आमी हांगा खूब केलां
रगताचो हिशोब दवरीनासतना
आमी तें आटयलां
आमचो गांव, आमचें आंगण
तुमचेखातीर सोबयला
पांडवालें महाभारत

पावला कणकणी रचयला
खंयचे खंयचे कृष्ण आयले
आमी तांकां वेंगायला
कितलेंय जाल्यार आमचेंच गोकुळ हें

हाचे फुडें आमी
तुमचें बरेंच करतले
वेळकाळ आयलोच जाल्यार
तोंडाक पानां पुसतले
आमी हांगा आसामेरेन
गांवचो हिशोब मांडटले
गांव विकून जालो तरी
हिशोब चालूच दवरतले

कितलोय जाल्यार आपलोच गांव हो!

# सूर्य - स्तोत्र

आमोरेचेर अस्तमतेच्या सुर्याक पळयतगेर
आमकां कळटा
आज सूर्य उदेल्लो म्हूण

मागीर वगीच काळखाक भिल्लेवरी करून
सूर्य - स्तोत्र आमकां म्हणचें पडटा
दिसा धवळ्या ही पृथ्वी
सुर्याक गिराण लायता

तेन्ना पृथ्वीची तिडक आयिल्लेवरी करून
आमका सूर्य - स्तोत्र आड्डवचें पडटा

फांतोडेचेर सूर्य दोंगरा वयर चडटा
तेन्ना काळखांतलीं आपलीं कामां थांबोवन
आमकां सूर्य - स्तोत्र बडबडचें पडटा

आनी आतां हालीं तेंपार आमकां
रातीच्या सुर्याकूच मोठेपण दिवचें पडटा
दिसाच्या सुर्याक आमोरे पयलींच
बुडोवचो पडटा!

# झाडावेलीं झाडां

झाडाच्या खांद्यांकय खांदयो येवच्यो
आनी
खांदयांनी स्वताकच झाड समजुचें
जेन्ना झाडाक आपल्योच खांदयो जड जातात
तेन्ना खांदयांनी झाडाकच पयस करचें

हातूंत जर
झाडाक उदकच मेळिल्लें नासलें
जाल्यार पावसाच्या दर थेंब्याचेर
ह्या खांदयानी आपलोच हक्क गाजोवचो

झाडार मोग करपी त्या सवण्यांक लेगीत
खांदयांनी झाड पोखरलां अशें सांगचें
त्या सवण्यांनीच झाडाक पयस करचें

आनी हें सगलें जातगेर
झाड जेन्ना मुळांतल्यानच मरता
तेन्ना ह्या खांदयांनी
सरणाचेरच तांचो हिशोब मांडचो.

# आमी जिते आसतना

आमी जिते आसतना
आमच्या कुडीर कोणें फुलां घालींच नात
आतां मेले उपरांत
आमच्यो कुडी फुलांनी आनीक सजयनाकात

आमी जिते आसतना
घामान भिजिल्लें आंग कोणें पळयलेंच ना
आतां मेले उपरांत
उदक घालून आंग आनीक भिजय नाकात

आमी जिते आसतना
आमच्या पावलार कोणें नदर घालीच ना
आतां मेले उपरांत
आमच्या पांयांर दुकां बेठींच गळय नाकात

आमी जिते आसतना
आमच्या कुडीनी दीस केन्ना पळयलेच नात
आतां मेले उपरांत
आमच्या नांवान दीस आनी वाडनाकात

आमी जिते आसतना
आमच्या कुडीनी जितेंपण केन्ना गाजयलेंच ना
आता मेले उपरांत
आमच्या कुडींक स्राप आनी दिवं नाकात

आमी जिते आसतना
आमच्या कुडींक दर केन्ना आयलीच ना
आतां मेले उपरांत
आमच्या कुडींची पावणी आनी काडनाकात!

# कट्टी आनी पोट

कट्टेची अगडाय,
पोटाची खोलाय,
पांयांतले घाय
आनी कितें जाय ?

कट्टेचे अगडायेंत
लिपला पोटाची खोलाय
पांयांतले घाय दितात
वर्सा कणकणची गवाय

कट्टेची अगडाय
लिपल्या तातूंत म्हजी पिराय
पोटाची ही खोलाय
तातूंत खूब कितें जाय

कट्टेची अगडाय
तातूंत एक नदर जाय
पोटाची ही खोलाय
अशीच उरतली काय?

कट्टेचे अगडायेंत
जीव दिवपाक जाय
पोटाची खोलाय
अशीच भरपाक जाय

कट्टेची अगडाय
पोटाची खोलाय
पांयांतले घाय
अशेंच चलतलें काय?

# हे धर्तरे

नाका गे धर्तरे
तुजें न्हेसण आमकां आता
दुर्योधना धडगत ना
येवचो जाला कृष्ण आतां

बंदखणीत घातले तरी
सगलीं दारा तुट्टलीं गे
यमुनेचे बुट्टेंत आतां
वाट मेकळी दिसतली गे

कंस जरी आयलो तरी
कृष्ण तुका वाटयतलो
तुजें न्हेसण देंवयतल्यांक
नागडे तो करतलो

नाका गे धर्तरे
तुजेर तांबडी आमोरी
अर्जुनाक सांगचो ना गे
कृष्ण आयज गीता ती

आयज आंगा पांगार तुज्या
दिसपट्टे खेळ चल्ल्यात
कितले संजय जाल्यात
मरण पावला तुज्या म्हऱ्यांत

नाका गे धर्तरे
अमाशेचो काळोख तुजेर
धरून पयस चक्र कृष्ण
फांकयतलो उजवाड तुजेर.

# कृष्ण

कोणाल्या कृष्णान आज
वाट लायल्या गवळणीची
कोणाल्या कृष्णान आयज
लज राखल्या द्रौपदेची

कोणाल्या कृष्णान आयज
दोंगर सगले उबारल्यात
पावस बुट्टी घालचोना
आमका ताणें वाटायल्यात

कोणाल्या कृष्णान आयज
गीता सगली सांगल्या
सगले पांडव एक जावन
रणभुंयेचेर धांवल्यात

कोणाल्या कृष्णान आयज
राधेक लायला पिशें
खंयचे खंयचे सुदामे
पीत बसल्यात पेजे निशें

कोणालो कृष्ण आयज
जाला रथा सारथी
अर्जुनाचें नांव नाका
दुर्योधना आरती

खंयच्या खंयच्या कृष्णाल्यो
अशो ह्यो लिला
बंदखणीचें दार म्हर्‍यांत
कंस आतां आयला .

# राया म्हज्या राया

वयल्या म्हज्या राया
कोणाली रे ही काया
उजवाडाची माया
तुमच्या माथ्यार रे खोया

उजवाड हो जल्मता
तुमचीं चुकलेलीं गेतां
काळखांतलीं तीं खतां
तुमी दिसपट्टे मिरयात

फुलांनी रे लिपयता
मड्या थडीं थंडायता
गिमांतल्या झऱ्यांक आतां
जाय तेन्ना पाझर येता

काळखांत उबे रावलेले
तांकांच आयज निखंदतले
फुक्या सवाय मेळयलेलें
गीत आयज गायतले

झरोवची ना जीण कोणा
तांकां चंदनाचीं सरणां
दिसपट्टी अशीं मरणां
कोणालीं हीं उश्णीं वायणां?

कोण राया नमन करता
कोण प्रसाद पाकळी मागता

# लोकशाय

लोकशाय लोकशाय, लोकशाय
तांणी
तांचेखातीर घेतलें
तांचेंच राज्य
तांकां जें जें जाय
दिता ती लोकशाय

दोळे आसूनय कुड्डे
कान आसूनय भेरे
जीब हालता आसूनय मोने
तांकां आमचे खातीर
खूब कितें करपाक जाय
कित्याक तर ही लोकशाय

दिसा धवळ्या वाटो चुकतात
रातचे काळखांत पावलां मारतना
आड वाटो सोदीत सोदीत
लोक आपलें सादयतात
तांकां जाय तें ते करतात
आमकां बेठेंच कित्याक जाय
कित्याक तर ही
लोकशाय

कोणयं कोणाचेरय चडात
कोण कोणाक विचारचो ना
पावला कणकणीं हीं अशीं मडीं

तांणी पातळ्ळ्यांत
तांचींच बांदल्यांत आयज थडीं
जांकां दुखता
तांणी पयलीं हाय म्हणूक जाय
कित्याक तर ही लोकशाय

तिची पावणी
दर पांच वर्सांनी
दर एकल्याक पावणी वाडोवपाचो हक्क
दर एकल्याक पावणी देंवोवपाचो हक्क
दर एकल्याक पावणी करपाचो हक्क
हे पावणेचो साऽवोसा जायनाफुडें
जांणी पावणी देंवयल्या
जांणी पावणी चडयल्या
त्या सगल्याक
पावणेर धाडपाकच जाय
कित्याक तर ही लोकशाय !

# धन्य बाबा

धन्य तुजें धन्य बाबा धन्य तुजें जिणें
ना कोणूच ह्या जगांत आदार तुजो घेणें

नाशिल्ल्याक हात तुवें हातान थातारलो
नाशिल्ल्याक आदार तुवें प्रेम दिवचेलो
सार्थकी केलें तुवें तुजें जिणें

सुखाचेर सोडून उदक दुख्ख आपणायलें
मनीसपणा जिणें तुवें जगा दाखयलें
दुख्खाक मारून मिठी भोगयलें जिणें

चंदन रे जावन तुवें आंग झिजयलें
एकचाराचे वारे तुवें सगल्याक पसरायले
धर्म जात एक आमची एक आमचें जिणें

दुख्ख एकठांय करून आनंदवन घडयलें
कश्टांनी कश्ट करून सूख पिकयलें
तूंच आमचें दैवत रे तूंच आमचें जिणें .

# मोगी

मोगाचे देगेर
जिणेचें तारूं
तुज्या काळजाचें गो
करून व्हल्लें
तारूं म्हजें
धोलय . . .

काळजार तुज्या मोखून दोळे
भरलें दोळ्यां काळीज तुजें
भिवंनाका गो जिणे तुजे
दितां तुका काळीज म्हजें

सवणें जावन गो तूं
यो आतां म्हज्या म्हर्यात
काळीज म्हजें कोरांतून
घोंटेर करून दवरला तुका

जेन्ना हातार तुज्या
पाचवो सैम फुलता
तेन्नाच गो तो खरो
तुज्या कपलावेलो अस्तंतेचो सूर्य

सपनांत म्हज्या "तूं" येता
खरें तर म्हाका न्हिदच येना
पूण "तूं" सपनांत येवपाक जाय
म्हणच हांव न्हीद हाडटां

चंद्राची सुवात
तुवें घेतल्या
देखून म्हाका
सूर्य जावचो पडला

चान्याच्या उदकांत भिजलों
आनी हांव चंद्रिम जालों
म्हाका म्हजीच वळख ना
तरीय आसतना हांव म्हण्टां
तूं म्हाका बरो वळखलो ना

आपल्या पोटान जमनीवेलो कोयर झाडीत
जड जाल्ली गावणी दुकरीण चलता
तसो म्हाका म्हजे जिणेचो
एक एक खीण भासता.

# फकत तुजीं कवनां

हांवें तुजेर मोग केला
हांवें तुजी वाट पळयली
तूं आयलेंच ना
आतां,
तुज्या न येवपाचेरच हांवें मोग केला

तूं म्हजेर मोग करचें ना
हें खबर आसूनय
हांवें तुजेर मोग केलो
आनी
म्हजेर मोग करता
तांकांच हांव विसरून गेलों

ल्हारां येतात वतात
हांव मात देगेरच उबो
पांयांपोंदाची रेंव येता वता
हांव मात ल्हारांचेरच पिसो

हीं ल्हारां
म्हज्या म्हण्यांत रावचीं नात
हें खबर आसूनय
हांव दर्याची देग जालां

दर्याचे देगेर मोग करतना
तूं ल्हार जालें
म्हाका दर्यो जावपाक
आयलेंच ना

दर्याचे देगेचेंच
म्हाका पिशें लागलें

मळबान धर्तरेचेर मोग केलो
धर्तरेन मोग केलोच ना
मळब भरून आयलें
पूण रडलेंच ना

दोळ्यांतल्यान झडटा ती नदर
काळजांतल्यान फुट्टां तें उतर
दोनूय एक जाल्यार पडटा ती भोंवर

एका हारशांत एक रूप
हारसो फुट्टगीर
काचां कणकणीं
रुपांच रुपां!

तुका सदांच भैरवीच आवडटाली
पूण आमकां तुजो भैरव जाय आसलो
मैफल ऐन रंगार आयिल्ल्या वेळार
तुवें भैरवी गायली
आमकां तें मानवलेंच ना

हे मैफलीक
भैरवीच ना
तुजी भैरवी जाली
तरी आमकां ताची पर्वाच ना
आमी भैरवीची फर्माईश करचेच नात
तुवें भैरवी गायली
तरी आमी उठचेच नात

मैफल रंगार आयिल्ल्या वेळारच
भैरवी गायल्यार
मैफल सगल्यांक याद उरता खंय

भैरवी ही गायतां
तुज्या म्हज्या मोगाची
रूप तुजें भैरव गो
आनी थंयच जाली भैरवी

मोनी नदर ती तुजी
काळजाक म्हज्या हालोवन गेली
मोगा कळी फुलचे आदीं
भैरवी कित्याक म्हळी ?

मैफलीक बसचे आदीं
राग सगले घोळयले

मोगागीत गावचें सोडून
भैरवी कित्याक म्हळी ?

तुजीं पावलां राग जावन
मैफलींत गायत रावलीं
मोने नदरेन तुजे
भैरवी कित्याक म्हळी ?

मैफल म्हजे जिणेची
तुजेच खातीर सोपयतां
आतां आनीक भैरव नाका
जीण गायता भैरवी .

# नदर

तुज्या दोळ्यांतल्यान आयलेली
ती मोनी नदर
म्हज्या आशेल्ल्या दोळ्यांक
पिशें लावन गेली

हीं मोग करपाचीं लक्षणां
अशें म्हाका दिसलें
तुजे नदरेचेर हांवें
परती परती
म्हजी जीण मोखून मारली

म्हजी जीण तुवें दोळ्यांत भरून घेतली
आनी अकस्मात तुवें
म्हजेर नदर मारपाचेंच बंद केलें

आनी आतां हांव
म्हजेच मोने नदरेन
म्हजीच मोनी जीण सोदपाक लागलां.

# रीण

तुवेंच दिल्लीं उतरां
आयज हांव तुकाच परथून दितां
तशें हांव कोणालें रीण दवरच ना

तुज्या उतरांचें व्याजय
हांव तुका दितलों आसलों
पूण तुका तें पचपाचें ना

आतां हाचेफुडें
अशें बेठेंच कोणाकूय रीण दिवंनाका
शेवटाक तुकाच रीण काडचें पडत.

# अमास

तुज्या कपलार हांवें
म्हज्या नांवांचो
अस्तंतेचो सूर्य लावपाचो चितलेलें
पूण ुवें सुर्याक उदेवंकूच दिलो ना

म्हाका एकच कळ्ळें
अमाशेचे रातीं
चंद्राक मळबांत येवपाची गरजच नासता.

# एक दीस

एक सकाळ
त्या शेतार
लाटी उदक
शेत पिकाळ

एक दनपार
पोट फाटीक
सोऱ्या घोट
पांयां दुकीक

एक सांज
तकलेर "हाण"
"ती" न्हाता
रगत न्हाण

एक रात
सगलो घात
न्हंयत बुडल्या
तिची वार!

# रात

चंद्राच्या उजवाडांत
चान्याचो शिंवोर घालीत
काळोख  चडला
रात नागडी पडल्या

काळखांतल्या ह्या उजवाडांत
रात आंग लिपयत चल्ल्या
सूर्य येवपाक अंजून वेळ आसा
उजवाडाचें रीण फारीक करपाक
रातीन न्हेसण सोडला
रातकिडे रडपाक लागल्यात

उजवाड येवचे पयलींच
रातकिड्यांनी जाय तितलें रडून घेवपाचें

सुर्याच्या उजवाडांत
रातीची नितळसाण दिसतली
हाची जापसालदारकी रातकिडे घेतात
दर रातच्या काळखांत
रातकिडे आपल्याक जाय तशे गणयतात

ही रात आतां सदचीच जाल्या
सुर्या – उजवाडाचो रातीक आता भंयूच ना
कितलीय जाल्यार रातच ती

आनीक आतां हालीं तेंपार
सुर्या – उजवाडांत लेगीत
आपले दोळे बंद करून
जणूं काय रातचो काळोख कसो समजून
अदींमदीं रातकिडे रडटात.

# खीण - कोंडी

तुमी हांगा म्हज्या हड्ड्यार न्हिदतात
आनी थंय तुमच्यो बायलो
वडाक फेरे घालतात
खऱ्यांनीच हांव सुखी

वडाक फटोवन
ताचे भोंवतणी फेरे घालपाचें पाप
म्हजे हातसून घडना

तुमी मानो वयर करून
गांवपणां गाजयतात
पूण म्हजे हे खीण - कोंडयेंत येतना
खांदावेल्या तुवाल्यान तोंड लिपोवचें पडटा

खीणभर तुमी म्हाका पोशेतात
आपलो पुराय शेक गाजयतात
पूण तेच तुमी
केन्नाच धोतरां वयर काडूंक नाशिल्लेवरी
म्हजेकडेन बोटां दाखयतात

पूण म्हजे खीण - कोंडयेंत आयले बगर
तुमच्यानी कशेंच रावं नजो
हें म्हाका गमलां.

# मोगा वास

राती जागरणाचें मनात हाडीनासतना
फांतोडेर उठून ओंवळी पोंदाक
तुजेखातीर पुंजायलीं ओंवळां

मनाक दिसलें तुज्या हातांत दिवचे परस
सोर करून तुज्या केंसार दवरचो
पूण त्या ओंवळांच्या नशिबांत नासलें
तुज्या केंसांक वेंगावपाचें

हांवें तुका कितलें सोदलें
पूण तूंच म्हाका सोडून गेलें

म्हजेकडेन तीं मात अजूनय आसात
बाविल्लीं सुकिल्लीं ओंवळां
म्हज्या बाविल्ल्या मनाक वेंगावन

पूण म्हाका दिसता
तुजो मोग म्हजेरच आसा
कित्याक काय म्हळ्यार
त्या बाविल्ल्या सुकिल्ल्या ओंवळांक
अजून तुगेल्याच मोगाचो वास येता.

# तूं यो

चान्याच्या रुपान गो तूं
यो आतां आकाशांत
हांव चंद्रिम जावन गो तुका
दितां सदां साथ

तुज्या येवपाक आमी सगले
येवकार मोगान दितात
तुज्या येवपाचे खबरेन सगलीं
नखेत्रां आनंदान नाचतात
हांव चंद्रिम जावन

तुज्या रुपाक भरून घेवपाक
काळजा दोळे मोखून बसल्यात
तुज्या पांयजणांच्या आवाजाक
कान आमचे तिस्टत रावल्यात
हांव चंद्रिम जावन

काळजाचे करून गो हात
मिठी तुका मारीन दिसता
तुज्या ओंठांच्या पाकळ्यांक गो
म्हजे ओंठ वेंगांवंक सोदतात
हांव चंद्रिम जावन

सगलें जिवीत गो म्हजें
ओतलें तुज्याच रुपान
सांबाळून दवर गो तें
तुज्या मोगाच्या जिणे काळजांत
हांव चंद्रिम जावन.

# तुजें येवप

आयलें ना तूंच
घडये कारणां आसत खूब
दोळ्यां मुखार दिसता म्हाका
सदांच तुजें रूप

त्या दनपारच्या भारार
सुर्याक माथ्यार घेवन गो
पळयली तुजी वाट हांवें
दोळ्यांभितर रोमून गो

त्या रुमडीच्या रुखार बसून
कोगळयो मोठ्यान आड्डताल्यो
खिणां खिणां हांगा म्हजें
काळीज सामकें झरयताल्यो

दोळ्यांच्या पातयांक गो
हांवें न्हिदूंक दिलें ना
घडये तूं आयलें जाल्यार
म्हाका तूं दिसचें ना

आमोरेचेर बुडला गो
सूर्य त्या दर्यात
म्हाका दिसलें घडये तूं
येत आतां काळखांत

चंद्राचीं किर्णा सगलीं
आंग म्हजें भाजयतालीं
तुजे वाटेक लावन नदर
रगत म्हजें आटयतालीं

भरून दोळ्यां वाट तुजी
दोळेच म्हजे भरून गेले
दुकां जावन सगलें सगलें
तेच वाटेन व्हांवन गेलें.

# नाजुकसाण

तुज्या नाजूक पांयांतल्या
नाजूक पांयजणांचो
नाजूक आवाज
म्हज्या दगडी काळजांत
नाजूकसायेन गाजलो
आनी म्हज्या दगडी काळजाक
पाझर फुटलो

तुज्या नाजूक ओंठांतल्यान
नाजुकशीं मोगा उतरां
म्हज्या कानांतल्यान
काळजा म्हर्‍यांत धांवलीं
आनी तें दगडी काळीज
मोगान फुल्लें

तुजे आंगांतले नाजुकसाणेन
म्हाका नाजुकसाण दिली
म्हजे दगडी जिणेंत
तुवें नाजुकसाण हाडली.

# मोगा जोरगत

जोरगतीची रात गो आज
जोरगतीची रात
काळजांत म्हज्या आयल्या जोरगत
थांबोवंक ती योच आतां
थांबोवंक ती योच

मोगाचे जोरगतीचेर
काळीज म्हजें व्हांवता
व्हांवन व्हांवन घडये तें
तुज्याच म्हऱ्यांत येता

आडयनाका तुज्या काळजाक
येवंदी म्हज्या म्हऱ्यांत
आडय मात म्हज्या काळजाक
जें व्हांवन व्हांवन येता तुज्या म्हऱ्यांत

लिपोवन दवर तुजे
काळजाचे कुशीक ताका
तुज्या मोगाळ गितांनी
रात दीस तोखेय ताका.

# पावलां

तुज्या पावला पावलार
म्हजे दोळे
आनी थंयच म्हजीं
नवीं पावलां
आयजमेरेन हांव घालत आयलां
तुजीं पावलां दिससर
हांव म्हजीं नवीं पावलां
उमटायत रावलां

आनी आयज अकस्मात
तुज्या पावला म्हऱ्यांत
आनीक दोन पावलां
दोळ्यांत भल्ल्यांत
आनी आयज हांवें
थंयच उबो रावन
तुज्या परत्या पावलांचेर
दोळे झडयल्यात .

# मैफल

खऱ्यांनीच
हांव तेन्ना भैरव गायतालों
पूण तुमी ती भैरवी म्हूण समजले
आनी थंयच्यान उठून गेले

आयज हांव
खऱ्यांनीच भैरवी गायतां
"ही" मैफल सोंपयतां
पूण तुमचे नदरेन
एक मैफल आतांच सुरू जाता

पूण इश्टांनो,
"ही" मैफल केन्नाच सोंपल्या
घडये तुमी केन्नाच सोंपयल्या
भैरव आनी भैरवी
हाचे मदल्या काळांत
तुमी धुमशेणां कांडल्यांत
तरी आमी आमची मैफल रंगयल्या

"ही" मैफल म्हाका चडल्या
"ही" रात तुजेर देंवल्या
सगली रात म्हजेर ओतल्या
तुज्या म्हज्या मैफलींची
भैरवी कोणे तरी गायल्या

भैरवीची फर्माईश करचे पयलींच
तुवें भैरवी गायली

# हांव लासतां

सोरो कोणाक व्यसन म्हण जाय
कोणाक तानेक म्हण जाय
कोणाक शिंयांक म्हण जाय
कोणाक खोशेक म्हण जाय
कोणाक दुख्खाक म्हण जाय
कोणाक दुसरो घेता म्हण जाय

कोणाक सोरो घेवन
कोणालो इतिहास गावंक जाय
कोणाक सोरो घेवन
रस्त्याची रुंदाय मेजपाक जाय
कोणाक सोरो घेवन
वालेतीची अगडाय मेजपाक जाय
कोणाक सोरो घेवन
गाळयांची सहस्त्रनामावळ वाचूंक जाय

पूण म्हाका कित्याक जाय?
म्हाका जाय म्हजें भंगिल्लें सपन
आनीकय भंगुवपाक
म्हाका जाय काळजांतली
"ती" मूर्त लासून उडोवपाक
म्हाका जाय ते मूर्तीबरोबर
स्वताक लासून घेवपाक •

# बेबदे

हय
आमी बेबदे
तुमच्या परस खूब वेगळे

तुमकां वाटो सोदच्यो पडटात
आमचें तशें ना
आमी जेन्ना उठटात तेन्नाच दीस़ सुरू जाता
तुमकां तुमचें घरदार सांबाळचें पडटा
आमचें तशें ना

केन्ना केन्नाय आमकां आमकांच
सांबाळनासतना वच्चें पडटा
हय
आमी बेबदे
तुमचे परस खूप वेगळे.

# कोडायकॅनाल

त्या धुक्याचो पिटो लागला म्हणून जायत
सगल्या दोंगुल्ल्यांनी पाचवोच रंग सारयला

हें धुकें पळयतना
मर्णकटो तयारच आसता
मर्णकट्यावेल्यान उडी मारून
आमीच धुकें जावचें अशें दिसता

पूण ना
ती सांक आमच्यांत ना

रान्नीतलो कोळसो
हातांत घेवचे पयलींच न्हिवचो
आनीक धुक्यांतल्यान दोंगराक पळोवन
कानांतले पड्डे पिंदून उडोवन
आमच्याच दातांनी आमच्याच दातांक
घास मारचे

आमच्यो जिबो हालता आसूनय
जिबेक आमच्या पास घालचे
आनी मोन्यानी धुके
दोळ्यांत भरचें
आनी काळजांत ताका रिगोवचें.

# पिटकुळेच्या फुला

पिटकुळेच्या फुला गो तूं कित्याक फुलना
म्हज्या काळजाचो गो घाय अजून पेखुंना

पिटकुलेच्या फुला गो फूल गो फूल
आनी घाय म्हजे पेखसर तूं धोल धोल

पिटकुळेच्या फुला गो म्हजो जीव तुजेर
आनी तुजे गो दोळे म्हज्या काळजार झडय

पिटकुळेच्या फुला गो रानां पावस पडटा
आनी तुजे गो यादीन  काळजा मोर नाचता

पिटकुळेच्या फुला गो इंद्रधनु मळबांत
आनी तुजें गो रूप म्हज्या दोळ्यां पालयना

पिटकुळेच्या फुला गो [illegible] तुज्या तांबशें
आनी तुज्या गो गालाचें म्हाका लागला पिशें

पिटकुळेच्या फुला गो म्हजें पिशें देंवय
आनी म्हजे गो जिणेचें व्हडें आतां धोलय.



## गणाधीश रामचंद्र प्रभुदेसाई

जल्म : ५ फेब्रुवारी १९७३

शिक्षण : बी. कॉम. (गोंय विद्यापीठ), मास्टर ऑफ कम्युनिकेशन ॲण्ड जॉर्नालिजम (एम्.सी.जे.) (पुणे विद्यापीठ)

पत्तो : बोरूस, पैंगीण, काणकोण, गोंय.

१९९४ सावन 'सायं वर्तमान' ह्या दैनिकांतल्यान पत्रकारितेची सुरवात. उपरान्त दै. पुढारी, दै. तरुण भारत आनी दै. राष्ट्रमत ह्या दिसाळ्यांनी पणजे 'प्रतिनिधी' म्हूण काम केला. 'तारा' ह्या मराठी दूरदर्शन वाहिनीच्या खबरां विभागाखातीर रत्नागिरी, सिंधुदुर्ग आनी गोंयचो प्रतिनिधी म्हूण काम केला. पणजी आकाशवाणीचेर वृत्त निवेदक म्हूण कांय काळ काम केला.

सदया दै. लोकसत्ता, पुणें कार्यालयांत उपसंपादक म्हूण काम करता.

१९९० सावन कोंकणी कविता बरोवपाक सुरवात. गोमंत कला केंद्र, मडगांव, आमचो पंगड, दिवचल, विविधा कमर्शियल इंस्टिट्यूट, काणकोण, गोंयचें कोंकणी भाशा मंडळ, दामोदर कॉलेज, मडगांव, सरकारी महाविद्यालय, खांडोळें, माशेल, सी.ई.एम्. कॉलेज, कुंकळ्ळी हांणी आयोजित केल्ल्या कोंकणी कविता सर्तीनी इनामां फावो जाल्यांत.

नागपूर (पवनी) हांगा जाल्ल्या राष्ट्रीय एकात्मता शिबिरांत तशेंच सदभावना रेल यात्रेंत आनी दिल्लींत सद्भावना शिबिरांत गोंयचें प्रतिनिधीत्व केला.

पुणे पत्रकार प्रतिष्ठानान मानाचो ह.रा. महाजनी पुरस्कार दिवन सन्मानित केला.

---


गोवा कोंकणी अकादेमी

बोरी, फोंडें, गोंय